# ಗಝಲ್

ಸುಖಾಚ್ಯೆ ಭರ್ತೆಂತ್, ದುಕಾಚ್ಯೆ ಸುಕ್ತೆಂತ್, ಮೆಳತ್ ರಾಸ್ ಮಯ್ಯಾಸ್
ರಾಶಿಂತ್ಲೆಂ ಕುಸ್ಕುಟ್ ಪ್ರೊಟ್ಲ್ಲುಂಕ್ ಗೆಲ್ಯಾರ್ ಗಳ್ಯಾಕ್ ಪಾಸ್ ಮಯ್ಯಾಸ್

ಭಿಕಾರಿ ಎಕ್ಲೊ ಪೆಜೆಚ್ಯಾ ನಿಸಾ ಭೊಂವ್ತಾಲೊ ಘರಾನ್ ಘರಾ
ಮೆಳ್ತಾಲೆ ತಾಕಾ ಶಿರಾಪ್ ಸೊವೆ, ಸುಣ್ಯಾಂಕ್ ಮಾಸ್ ಮಯ್ಯಾಸ್

ಸೊನಾರಾ ಲಾಗಿಂ ಪೆಟುಂಕ್ ಸೊನೆಂ ದಿತಾಲಿಂ ಗಾಂವ್ಚಿಂ ಬಾಯ್ಲಾಂ
ಪೆಟ್ತಾನಾ ಸೊನಾರ್ ಖಾತಾಲೊ ಥೊಡೆಂ, ಜಳವ್ನ್ ಖಾಸ್ ಮಯ್ಯಾಸ್

ಪುರಾಸಾಣೆನ್ ದಿಸಾಚ್ಯೆ ಗಜ್ಡೆರ್ ನಿದೊಂಕ್ ವೆತಾಂ ಸುರ್ಯೊ
ತಳ್ಮಳ್ಯಾ ಸಂಸ್ರಾಕ್ ಮ್ಹಣಾಲೊ ಮಾಗೊನ್, ಏಕ್ ದೀಸ್ ಲಾಸ್ ಮಯ್ಯಾಸ್

ಸಾರವ್ನ್ ಲೊಣಿ ದಿಲ್ಯಾರ್ ಉಂಡೊ ಮೊಗಾನ್ ಮ್ಹೊಂವ್‌ಚ್ ಗಳ್ತಾ
ದುಬ್ಳ್ಯಾನ್ ದಿಲೊ ಕಣ್ಯಾರೊ ಕುಂಡೊ ಖಿಣಾನ್ ನಾಸ್ ಮಯ್ಯಾಸ್

ತುಜೊಗೊ ಹುಸ್ಕೊ ಕಾಳ್ಜಾನ್ ಪ್ರೊಸ್ಕೊ ಕೆಲಾ–ಗೊ ಮ್ಹಜ್ಯೆ ರಾಣಿಯೆ
ಸಾಸ್ಣಾಚ್ಯಾ ಸಾಸ್ಣಾ ತುಜೆರ್ ವೊತ್ತಾಂ ಮ್ಹಜೊಚ್ ಸ್ವಾಸ್ ಮಯ್ಯಾಸ್

ಸಪ್ಟೆಂಬರ್, 2003

# ಹಾಯ್ಕೂ

1

ದೆಖ್ತಾಂ ಬಾಯೆ ಕದ್ವಳ್
ತುಜೆಂ; ಮನ್ ಜಾಲೆಂ–ಮ್ಹೊ ಮ್ಹಜೆಂ ಕದ್ವಳ್
ಸಾಸ್ಣಾಕ್ ಜಾಲೊಂ ಮಡ್ವಳ್

2

ಕಾಫಿ ದಿತಾಂ ಬಾಯ್ಲೆಕ್ ಸಾಂಗಿ
ಚಾವ್ಲಿನ್ ಆಸೊಂದಿ ಸದಾಂ ನಿರ್ಮಳ್
ಆತಾಂ ಸಾಬಾಚೊಚ್ ಪರ್ಮಳ್

3

ಮನೀಸ್ ಎಕ್ಲೊ ಚಾಬ್ಲೊ
ಸುಣ್ಯಾ; ಖಿಣಾನ್ ಸುಣ್ಯಾ ವಚೊಂಕ್ ಸೊಡ್ಲೆಂ
ಹಾಕಾ ಸಾಂಖ್ಳೆನ್ ಬಾಂದ್ಲೆಂ

4

ತೇಗ್ ಯೇಂವ್ ಯಾ ತೀಸ್ ಜಣ್
ತಿಣೆಂ ರಾಂದ್ಚೆಂ ಅರ್ಧೊಚ್ ಕಿಲೊ ಮಾಸ್
ಭರ್ಸಿಕ್ ಬಟಾಟ್ಯಾಂಚಿ ರಾಸ್

5

ಪೊಟಾ ನಾಸ್ತಾಂ ತೊ ಮೆಲೊ
ಮರ್ಣಾ ಮಿಸಾ ಆಮ್ಕಾಂ ವ್ಹಡ್ಲೊ
ಮೀಟ್‌ಪಫ್ ಏಕ್ ಫಾವೊ ಜಾಲೊ

6

ಖಾಲ್ತೊ ಭೊಳೊ ದೇವ್ ಮೆಲೊ
ಆನಿ ಸರ್ವಯ್ ಲೊಕಾಕ್ ಖಿಣಾ ಭಿತರ್
ದೆಂವ್ಚ್ಯಾರಾಚೊ ಉಡಾಸ್ ನಾ ಜಾಲೊ

ಸಪ್ಟೆಂಬರ್, 2003

**'Vaatt'** - an anthology of Konkanni poems in Kannada and Devnagari scripts by Melvyn Rodrigues. This anthology is published by Melvyn Rodrigues for Kavita Publications, Umikhan, Kulshekar, Mangalore- 575 005, India and Printed at Brilliant Printers, Bangalore.



First Edition: 2003

**Sales:**

Saangathi Media
#23, IIIrd Floor
Emporium Complex
Kankanady, Mangalore - 2
Call: 513871
Cell: 98452 09374

Melvyn Rodrigues
Post Box 62499
Dubai, U.A.E
Mob: 050-5271175

**Cover Design** : Jagadish Ammunje, (Jagath) Mangalore.
**DTP** : Wilfred Lobo, Yuva Chethana, Mangalore.

**Price**: Rs. 50.00

## पुस्तकांतली मांडावळ...

## जे वाटेर कविता फुलता ...

जेन्ना एक सुंदर आणभव आनी सुंदर भास एकरूप जाता, तेन्ना कविता जल्मता। जें आमच्या इंद्रियांक आवडटा, बरें अणभवता, ज्या अणभवाक लागून सामादान भोगता, तें सौंदर्य। कवितेच्या संदर्भांत सांगचें जाल्यार उतरांक लागून जेन्ना खोल, आगळो अणभव जाता आनी तो अणभव उंचाबळावपी आसून लेगीत धादोसकाय दिता, तेन्ना ती सुंदर अशें म्हणूयेत।

कवितेंत अणभवाचो एक संपूर्ण संवसारुच भरून आसा। हो संवसार कविता आयकतल्यांच्या आनी वाचतल्यांच्या आंगांत मोव बोटांनी परशीता, कानांत संगीताचीं ल्हारां पावयता, मनाच्या दोळयांक उतरांचीं ठस-ठसीत चीत्रां दाखयता, तकलेंत कलपना जागयता आनी विकारांचो प्रभाव घालता। पुण सगळयांत महत्वाचें म्हळयार कवितेक लागून मनशाचीं चिंतनां उचांबळीत जातात।

हे गूण मेल्विन रोड्रिगसाचे कवितेंतय दिसतात।

फाटल्या सुमार दोन दसकांनी कोंकणी कवितेच्या मळार मेल्विनान हातभार लायला। ताचो पयलो कवितां झेलो ***मोगापेळो*** 1989-त उजवाडा आयलो, आनी उपरांत 1996-त दुसरें पुस्तक ***फिंतं*** प्रकाशित जालें। पयल्या कविता संग्रहांत मोगाचीं वेगवेगळीं रूपां आनी चित्तवृत्ती दिसलीं जाल्यार, दुसर्या पुस्तकांत कवीचो आणभव-विश्व विशाल जायत आसा म्हणपाची खात्री जाताली।

आमच्या मुखावयल्या ह्या कविता संग्रहांतुय विशयांचें वैविध्य आसा। आशयान आनी 'मूडान' दर एक कविता मातशी आगळी दिसत। खुबशो कविता वैयक्तिक जिणयेंतल्या अणभवांच्या प्रभावान फुरिल्ल्यो। देखिक ***बाळालागीं, रुं नाका*** आदी। हांतुतल्या चडावत कवितांचो सूर गंभीर तरी तांचो अंतःप्रवाह कुटुंब्या मदल्या आपलेपणाचो आनी माये-मोगाचो। पुण अदीं-मदीं दुखेस्त सूरय आयकता। ***संबंधांचो अर्थ, वेळेक पावल्लीं ल्हारां*** आनी **उडास** लागिंच्या आनी मोगाच्या व्यक्तींच्या मरणाचें दूख उगटयतात। ***उडासाची सकत, कालचे रातीं*** आनी ***घेटे जांवचें 'जोगफोल्स'*** ह्या कवितांनीय शेणिल्यांची याद, करुणरस तशेंच संकष्टांची आनी संघर्शांची सूचना आसा। पूण ***वाग येता*** हि कविता मात तिच्या सरळ आनी विनोदी सबावाक लागून वेगळी दिसता।

***गळाय*** आनी ***देवा म्हज्या*** ह्या कवितांनी खिन्नाळ जल्ल्या मनाचे विचार दिसतात जाल्यार उदासीन मनोवृत्तिंतल्यान कवी भायर आयला म्हाणपाचो पुरावो ***आमालांचीं वायनां*** आनी ***मोग*** आमकां दिता। विनोदी चित्तवृत्तींतल्यान सरळ खरेंपण समजावन दिंवची मेल्विनाची तांक ***एच्चेम्माचीं उत्रां चोरी केल्याची कवीता*** आनी ***कदवळांतलो कवी*** दाखयता।

फाटलीं धा-इकरा वरसां जाल्यांत, मेल्विन रोड्रिगस मांय गांव आनी मांय देस सोडून आखाती देसांत जावितो करून आसा। इतलो लांब काळ विदेसांत राविल्ल्यान ताका आपलें व्यक्तित्व तशेंच भोंवतण बदल्लया अशें जाणवलें जाल्यार तें सहज। ह्या परिवर्तनाचे दोन बाजू आसतात। एक, दुदाळ गायांचो,

कुंकडा जोडिंचो, पाचवेचार शेतांचो, मयपास वोतच्या लोकांचो मांय-गांव बदल्ला। आतां-

*तेंकल्यात परकी गांवा पांवे*
*जिवितांतली आडांवक दावे*
*उबार बांदपां मळब खेलां*
*मुयां हारी जशीं कारां*
*बसल्यार काळजांत मरणा ल्हारां...*

लोकां मदल्या विश्वासांत आनी समाजाचे मनोवृत्तिंतय एक गंभीर परिवर्तन आयलां हाचो परिणाम म्हळयार

*धांपतीं सदां घरचीं दारां*
*जयलांत फिचार भुरगीं पोरां...*

खुद कविचेरय मांय-गांवचे विशिंच्या आपलेपणांत म्हत्वाचो बदल आयिल्लो दिसता-

*दोन थळां म्हजे पांव*
*नेणा हांव म्हजो गांव*

पुण गांवाकडल्या नात्यांत आयिल्लो हो संकोच बेगिन पैसावता-

*...ज्या गांवात एक आवय*
*पोट मारन भुरग्यांक खावय,*
*तोच खरो म्हजो गांव*
*तेच कुशीन मारतां धांव!*

आखाती देशांत रावितो केल्ल्या चडावत अनिवासी भारतीयांचें जिवीत तशें न्हंय, हें आमकां कळता। पुण आमची जाणविकाय दुसर्या उतरांवेल्यान निर्माण जाल्ली। पुण मेल्विन तांचे लागींच उरता, तांच्या दोळयांतलीं दुकां आपल्या दोळयांनी पळयता। देखूनच ***हे रेंवेन*** चित्रयिल्लें तांच्या जिविताचें करुण चित्र ठळकपणान दिसता-

*गांवची आवय अरबी बाळां*
*रुलांव शिजवन खावयता*
*भरतार तशें पोरां चिंतां*
*किसूळ काळीज किसयता*
*तरनो व्हरेत व्हकलेक सांडून*
*रेंवेंत फुडार उसपिता*
*गांवांत पालंव उबत कसो*
*मेंदु साण्याक साणशिता...*

ही परिस्थिती मनशांक दाबोवपी, थकोवपी। पुण उज्यांत जल्मून वाडिल्लो मनीस वोतांत वावना.मेल्विन विचारांच्या उज्यांत जल्मल्लो आनी हुळपुन जियेल्लो म्हणपाचो संकेत ताच्या आदल्या कवितांनीय दिसला। पुण विचारांच्या साण्यार घासुन ताणे मनिसपणाचो समज घेतला। आतां ताचे दिश्टेक देसांचो शीम-मेर हुपुन मनीश कुळयेक समावेशा करपाची ताकद लाबल्या। ***नशिबाची भुक, कोसळल्लीं बुरुजां, झुज, रेंवेचे कण*** आदि कविता तिसऱ्या संवसारांतल्या मनशांच्या भयंकर अणभवाची कल्पना देता-

*आमेरिकाचीं बोमां*
*मझर-ए-शरीफाचेर घडघडयताना*
*आफघानी पश्तून लोक*
*भियान धांवनासताना*
*मोळबाक चोयता-*
*बोमांची दिशा पारकुंक*
*फुटनासताना उरल्ल्या*
*तशें*
*फुटोन उसाळल्ल्या बोमांचो*
*कचरो आरावन रद्देक विकुंक*

ह्या सगळया संग्रहांत म्हत्वाच्यो आनिकय कांय कविता आसात- ***फिंतां, तेलाचो वेपार, एका रुकाक, खुरावयलो बुडकुलो*** आनी ***तांबडीं आबोलीं***। ह्यो खुद्द कवितेच्या मार्मिक अणभवांतल्यान उपजल्यात। मेल्विन कांय उतरांची विभक्ती प्रत्ययां सोडुन दिता आनी ताका लागुन कांय जाणांक ताची कविता समजून घेवप कठीण जावयेता, तरीय, कविता म्हळयार सुंदर भासेचो आनी सुंदर आणभावाचो एकचार ह्या निर्वाचनाखातीर ***एका रुकाक*** कवितेची देख घेंवयेता -

*एका रुकाक*
*पानांच पानां*
*पानां पानां*
*मनांच मनां*
*मनां मनां*
*धना रानां*

*पाना मनां*
*धना रानां*
*उगडोंक थालें*
*जाय पडलीं*
*मनशा धनां*
*मनशा मनां*

ह्या संग्रहांतल्या कवितांविशीं बरयतना नेण्टा-नेण्टा तांचे वेगळे वेगळे विभाग जावन गेले। मेल्विनाच्या कवितांचो तशें गुणांच्या आधारार विभाग करप सारखें न्हय। ताच्या सगळया कवितांक लागू अशें कांय सामान्य गूण आसात। ह्या कवितांनी सुकषीम संवेदनशीळताय, गिरेस्त उतरावळ, अर्थपूर्ण प्रयोग, बळादीक भावना, संगिताचे गोड सूर आनि चिंतनांची वृत्ती उठून दिसता। हांचे सगळयां परस म्हत्वाचें म्हळयार, कवीच्या दर एका उतरांनी उदात्तपण आनी मानवतावाद होल्मता। मेल्विनाच्यो कविता वाचतना म्हजो कोंकणी कवितेचो अभिमान मोरा-पाखां फुलयता।

मेल्विन आतां आपलेच वाटेन चलुंक लागला-

*म्हजेंच मिसांव*
*म्हजेंच तेसांव*

घेवन आनी

*शेवोटाच्या बंद्राक*
*कुपां पोंदल्या चंद्राक*
*पांवचीं सपणां सपणांत सपणेवन*
*चलोन आसां।*

ताच्या सपणांचो साक्षात्कार जांव दी। म्हाका खात्रि आसा, समेस्त कविता-मोग्यांक मेल्विनाची `वाट' बरी आवडटली।

*कोणा जिबेर गांवची भास*
*सोपेपणान आमशेता*
*सस्कृतेचो काळजा कुडको*
*स्वासाविणें खरशेता,*

-तांकां लेगीत।

**- गोकुलदास प्रभु**

# म्हजें घर

हांवें म्हाका व्हाजांत भरलें
हांणी तांणी घेतलो परमळ
सोरया, पिका, पुडी तोंडां
एकय नांत निरमल

म्हाका तुज्या केसांत पुरलें
मोगाक घाली भुल
मोगान तुका वेंगेंत धरतां
म्हजी जाली धुळ

दारार तुमच्या कित्या नाचुं ?
झाडार म्हज्या उरतां
म्हज्या घरांत पेज नांतर
उपाशींच मरतां!

जनेर,1996

# उडासाची सकत

सांडली रेंवेंत काळजाक लागची
भांगराची आरलूक
खिणभितर नपयिंच जातां
रडली मना पिरलूक
काळजाउडी तिच्या कानार
उलयताली सदां
नांतर कशी नाचताली ती
आयकनासतां पदां?
सोनार शेट, भांगर पेटुन
दीत म्हाका राशी
कितल्योय मेळुं, तिच्येविणें
म्हाका सदां फाशी!

मोळबावेल्या एका पुंज्यांत
आसलें मोगाळ नकतीर
केन्नांय देखुं, कसोय देखुं
पयलें दोळयां फंकतीर
एक दीस खंयच्या कुपान कोण्णा
ताका ग्रासून केलें
राती राती रडोन गेल्यो
दिष्ठिक चुकोन गेलें
मोळाब म्हणाः वोंटयेंत आपल्या
आसात लाकों तारां
नेणा बावडें, आमी मोगान
पाशार केल्लीं वोरां!

रुकावेल्या पाचव्या फांटयार
बसोन सोभीत सुकणें
जिविताच्या पांवडया पांवडयार
जालां म्हजें राकणें

आसतां हांव दुकां तडीर
व्हाजयता तें वीणे
खंयच्या जल्मां नातें कोण्णा
पावन म्हजें जिणें
आयच्या दिसा झगलाण्याच्ये
शिरेन ताका खेलें
आयलीं तरी एकशें सुकणीं
काळीज पिङ्ग्यार जालें

तांचेबरीच बगलेक म्हज्या
आसलो म्हजो मान
उसवासाच्ये ताचे उबेंत
हाजार हस्ति त्राण
त्यायी त्राणाक वाळय लागली
काती माती जाल्यो
म्हज्ये कुडी संदा संदार
रोंबल्यो धोमोस भ्राल्यो
दुकी उज्या आरलुक उटली
सुकणें, नकतीर आयलीं
मोगा तुजें चिंतप चोरुंक
सकतीत सरगा वयलीं?

मार्च,1996

# फिंतां

कोणे कोण्णा कलाकरान
            मोळबार वोतलीं तिंतां
देखच्यो दिष्टी गाबो जाल्यो
            देकतां रंगाळ फिंतां

कोणे कोण्णा दिलें पोटा
            खिरलों भुके लासा
मोडक्यो धुल्यो, उतरां भाल्यो
            सोसल्यो दिसान दिसा
मरच्ये आदीं जेंवचे मालतेंत
            पडलीं भांगरा शितां
देखच्यो दिष्टी गाबो जाल्यो
            देखतां रंगाळ फिंतां

कोणे कोण्णा दिलें काळीज
            कयदी मोगा पासा
शिरेन शिरो शिरकलों हांव
            जयशें झांटां केसा
जळचे आदीं पिरलुक चली
            गावून आयली गितां
देकच्यो दिष्टी गाबो जाल्यो
            देखतां रंगाळ फिंतां

उचांबळळी जिणये दर्या
            खिणा खिणाक ल्हारां
दवरललीं पावलां पोकोळ
            अथिर हरयेक वोरां
ल्हारान एका पोसो भरून
            मोतियां हाडून दितां
देखच्यो दिष्टी गाबो जाल्यो
            देकतां रंगाळ फिंतां

आसल्यार आसों काळीं सदां
मतींत रंगय तिंतां
दिष्टी तुज्यो गाबो जातीत
दिसतीत रंगाळ फिंतां

नवेंबर,1996

# गळाय

धुयेंत हांव पडलां हांगा
वाडा दोय पेज
‘राव–रे आपा थोडेच म्हयने
लावन आयल्यांव नेज’

गरयेक म्हजे उम्कोळ बेगीं
कुंडलें रांदणीर चडलां
‘हांव–रे किडो, बाय वागोळें
आडबोसरें वाडलां’

सुवी आसा, सुतय आसा
शिंवकारन शिंवणेक चडल्या
बुराक म्हणा ‘वोंटार आपल्या
केसोळिशी वाडल्या’

गळायेच्या खिणा खिणान
केलां म्हजें सारें
उसतिलीं तर माडामुळां
वोडा एक खोरें

जनेर,1997

# बाळालागीं

पोसो पोसो हासो कसो
तोंडार तुज्या बाळा?
उलय उलय उलयतायमू
बुडलाय खंयच्या खेळा?

सायबिणिच्या पायांथळा
आवयन आंगवण घाल्ली
तिच्या मागण्याक सरगच भुल्लो
सोडवणा आमकां मेळळी

म्हजो तरी पेंकटा कुडको
अंत्रळाचेर उबता
पूत आमचो आख्ख्या वाड्यांत
पोवळयाबरी सोबता

आजो, आजी आंब्रार उबीं
बेसांव तुजेर वोतुं
वायटा विघनां आनवारांची
तकली तांणी भेतुं

तुज्या हाशांक जालां पिसो
पिशेपण उरों
फकत तुजो हासो पुरो
संसार सगळो मरों !

माय, 1997

# कालचे रातीं

कालचे रातीं
सपणांत म्हज्या
तूं येतली म्हणोन
आशेवन आसल्लों
पुण तुज्या उडासान
म्हाका नीदच पडलीना

सोदलें तुका आवय म्हजे
आवयांच्या घरा
एक न्हय, दोन न्हय
आटय फारा
दारान दारा, शेरान शेरा
गडदेंतुल्या तेरा
स्वास म्हजो उमकोळ घेता
अस्कत एका दोरा

पोसो पोसो तुजो हासो
मेळचो ना थंय पोरा
धलयतालो
सगळ्या घरा
शेजरा साम्रा, वोरान वोरा
नारीक तशें नरा
आयच्या दिसा नपयिंच जाला
चोरला कोणे चोरा?

ओक्टोवर,1997

# तेलाचो वेपार

तेलांत तुंवें केस भिजवन
पांवे म्हजे माखले
येमकोंडांतले सैतान सयत
खिणान सर्गाक जिकले

केस पांव्यार लोळले आनी
तेल कातीर चरलें
कुलकुल्यांच्या ल्हारान ल्हारांक
काळीज म्हजें फिरलें
दोळे दोळयांत इरले
वोंट तोंडार जिरले
म्हजे कुसकुट वेंगेभितर
सास संसार हारले
विस्तिद लजेन चिरलें
मास रगतांत खिरलें
वोंटयेंत एके खबरेविणे
दुदाळ दूद भरलें

अशेंच मिस्ता जेजुक आमच्या
मालीश तुंवें केल्लें
उपकारांच्या रिणांत बुडोन
वाडिक ताका धुल्लें
हांव नेणा तो बावडो
मोनो कसो रावलो
नोवोदांचो सेजारी आत्तां
तेल हाडुंक धांवलो!

ओक्टोवर,1997

# रडुंनाका

रडुंनाका ऊठ बाळे
दुकां तुजीं पूस
खंती तुज्यो पोळन धांवतीत
थोडया दिसांक सोस

सोनाराचें सोनें कशें
दिल्लो तुका आकार
व्हरडिकेच्या मोगा बांधांत
तांणी केलें स्वीकार

पालंव म्हजो मोनो जाला
काळीज म्हजें शिजो
वेगळाचारान तुज्या बाळे
हो पाल्वानासचो उजो

जांव्यान तुका काळीज दिलां
सासु वोतीत मयपास
घर सांडुन गेलांय तरी
आसतलें आमच्या आसपास

रडुंनाका ऊठ बाळे
दुकां तुजीं पूस
हात चरवन पळे तुजी
भरतलिगो कूस!

मागीर सुदां तुज्यो यादी
बाळा भोंवतीं भोंवतीत
ताच्या हरयेक हाशा मुकार
मोतियां जावन घुंवतीत!

जनेर,1999

# देवा म्हज्या

देवा म्हज्या योरे आरो
हो संसार म्हाका पुरो

मनशा उतर कोडु घरो
काळीज फातरा मुरो
घेंवचें जाल्यार सगळें आसा
मायामोगाक मेरो

चोरांक मेळता फुलां तुरो
बर्‍यां भोंवतीं दोरो
सावें केल्ल्यांक सारें मेळता
मरचे आदिं चुरो

उदक मेळना, मेळता सोरो
सेवुंक विकाळ वारो
आमचे मातयेंत आमी गुलाम
चुकला आमचो थारो

एकटावन म्हज्यो शिरेन शिरो
घालुंक लागलां नारो
बेगीं म्हज्या योरे आरो
हो संसार म्हाका पुरो!

फेब्रेर,1999

# ह्ये रेंवेन

ह्ये रेंवेन स्वास दिला
गांवच्या मरच्या बोडां
ह्ये रेंवेन मास दिलां
जायत्या दुबळया हाडां
ह्ये भुंयच्या आंगांत-मुंगा
तेला झरी व्हाळतात
तांतले थेंबे पुंजांवक गेल्ल्यान
गांवांत गुलाब फुलतात
इतलेंय आसोन ह्यायी गांवच्या
मात्या शिराप भेजला
देकुन मिसता हरयेक मनीस
भायर भितर शिजला
गांवची आवय आरबी बाळां
रुलांव शिजवन खावयता
भरतार तशें पोरां चिंतां
किसूळ काळीज किसयता
तरनो व्हरेत व्हकलेक सांडुन
रेंवेंत फुडार उसपिता
गांवांत पालंव उबत कसो
मेंदु साण्याक साणशिता
कोण वापय कुटमाक चिंतुन
सोर्यांत संतोस सासपिता
गळसरिच्यो फोडाफोडी
चिंतुन वोलींत उसपिता
कोणा जिवेर गांवची भास
सोंपेपणान आमशेता
संस्कृतेचो काळजाकुडको
स्वासाविणें खरशेता

ह्ये रेंवेन स्वास दिला
दितां गळ्या पास घाला
ह्ये रेंवेन मास दिलां
दितां काळजा घास घाला
ह्ये भुंयच्या आंगांत – मुंगा
तेला झरी व्हाळतात
तांतले थेंबे पुंजांवक गेल्ल्यान
सदांच कांटे तोपतात

मार्च,2000

# एका रुकाक

एका रुकाक
हजार पानां
हरयेक पानां
एकेक मनां
एका रुकाक
हजार मनां

हरयेक मनां
शिरी धनां
पाना कणां
धना रानां
हजार पानां
लाकों रानां

एका रुकाक
पानांच पानां
पानां पानां
मनांच मनां
मनां मनां
धना रानां

पाना मनां
धना रानां
उगडोंक थालें
जाय पडलीं
मनशा धनां
मनशा मनां

फेब्रेर, 2000

# म्हजो गांव

सांडला गांव, सांडलां लोका
सांडलां घर, घरच्या सुखा
तरन्या फांत्या किर्णाळ सुरयो
गोटयांतुल्यो दुदाळ गायो
धोवांत न्हांवचीं पाचवीं शेतां
पिकान पिकचीं कणशी भातां
पावसांत सोडचें कागदा होडें
जोडी जांवचें कुंकडा जोडें
मयपास वोतच्या गांवच्या लोका
संबंधांच्या तळटया रुका
मर्यादिचें मांयचें घर
नातले तांतुं दोन थर

तेंकल्यात परकी गांवा पांवे
जिवितांतली आडांवक दावे
उबार बांदपां मळब खेलां
चंद्रा सुर्या पुसुन वेलां
मुयां हारी जशीं कारां
बसल्यार काळजांत मरणा ल्हारां
जाती, धर्म, हजार भासो
कारेत्याचो सलाद जसो
धांपतीं सदां घरचीं दारां
जयलांत फिचार भुरगीं पोरां
दुडु आसोन मर्याद विणगी
जिवित उकडलली कणगी

दावो पाय होडयार उरला
उजवो पाय तडींत पुरला
पेंवता खंय शेवोट म्हजो
तांडुं कसो काळजा उजो
दोन थळां म्हजे पांव
नेणा हांव म्हजो गांव

चाळतां जापी पोळळी बाधा
आस्मिताये धरलो गिदा
ज्या गांवांत एक आवय
पोट मारन भुरग्यांक खावय
तोच खरो म्हजो गांव
तेच कुशीन मारता धांव!

मार्च,2000

# वाग येता

तवळ तवळ घरांत आमच्या वाग येता
कळना कसो बायलेक म्हज्ये राग येता

मतीक काळोक येतां वोळक पोकोळ जाता
उडासांच्ये मोरयेंत म्हज्या पिकुळ न्हाता
उतरां जिबेर मोनीं जातां गाग येता
कळना कसो बायलेक म्हज्ये राग येता

प्राय जातां मोगाक वेगळो प्राण येता
कुदोळ जाल्लो जीव लेगून खोरें जाता
पोकरीपणा साकरीपणा आग खाता
कळना कसो बायलेक म्हज्ये राग येता

वाडच्या बाळां एकटें काळीज मोग दिता
तांच्या खेळां फेरिबरी वोडी घेता
वीक घल्ल्या मोगा चिंतुन नाग येता
कळना कसो बायलेक म्हज्ये राग येता

तवळ तवळ घरांत आमच्या वाग येता
कळना केन्नां बायलेक म्हज्ये जाग जाता

मार्च,2000

# खुरावयलो बुडकुलो

मद्यान रातीच्या खुरावयलो
बुडकुलो हांव
रांदणीर बारीक कोलीत
जळोन आसा
ताच्ये उबेक हांव
उबेवन आसां
कांट उगतो
कांटा भितर
उज्याच्ये दावेक
भरतेक पावल्लें दूध
कोण बोकुल कोण जाणा
पियेवन आसा
सुशेगात
काळोकाच्ये धुंवरे मधें
आपले दावलेंनी कांट उसवन
आनिकय लेंवोन आसा
होरबोसान?
कांय नेणा
मयपासान?

ज्यून, 2001

# संबंधांचो अर्थ

अतम्याक होगडायिल्ली
बापायची निरजीव कूड
जिवाळ मात्येंत देंवयताना
निरजीव एका नात्याच्या जाग्यांत
भरती हाडुंक
म्हजो हात
आवयच्या खांदार वेता

पती–पतिणे मदल्या
आवय पुता मदल्या
संबंधांच्या गांचांनी
वेगळाचाराच्ये दुकी मदेंय
कुलकुलो उठता

त्या कुलकुल्यांत
काळीज तुटवन
मातयेक मेळोंक गेल्लो संबंध
दांत किर्लवन सांगता :

"तुज्या नात्याक अर्थ ना,
वेगींच दितलोय लात
काडतलोय हात
जोडताना बायलेचो सांगात..."

पादरीन शेणायिल्ल्या
आग्मेंताचो उसळल्लो एक थेंबो
सनिन करताना
आवयच्या दोळ्यांतुलें एक दूक
सरशिल्या फोंडाचेर
फुलोन रावल्ल्या तरन्या
फुलाच्ये पाकळेंनी घुसता

मरणाक आयिल्लीं
फातर माती
फोंडातले पेटेचेर उडयताना
संबंधाचे एकेक अर्थ
सांजेच्या सुर्यान
आदेवस मागताना
मोळबाचेर पसरायिल्ल्या रगतांनी
झळकेक पडतात

दशेंबर, 2001

# नशीबाचि भुक

भुकेल्लिं पोटां
मस्तेल्ल्या वोंटांबरि वोंयो उडतात
सुकतेच्ये वोंट्येची गाय एक
वोंय चरता तशें,
बिळांतली मूय एक
हुनोनी वोर्णांत उडता तशें –
ह्या पोटांक भंय ना

आमेरिकाचीं बोमां
मझर–ए–शरीफाचेर घडघडायताना
आपघानी पशतून लोक
भिंयान धांवनासताना
मोळबाक चोयता –
बोमांची दिशा पारकूंक
फुटनासताना उरल्ल्या
तशें
फुटोन उसळल्ल्या बोमांचो
कचरो आरावन रद्देक विकुंक!

जीव जाय, या
पोट जाय ?
हें खंयचेंय चिंतचे आदीं
भुकेच्या बोमांक
दुरीग कोसाळतात
तडी फासाळतात
काळजाक काळीज झळकना
रगत रगताक वोळकना

पोटाची भुक म्हळयार
नशिबाच्ये दोरयेर उमकळचें
पोंदा मरणाचें कोंड जाणा आसोन
पेचाडचें
उरतापासुन पोट थांबवक
पोट थांबवन
जीव वांचंवक !

नवेंबर,2001

# कोसाळल्लीं बुरुजां

धरतेक शेवटल्ल्या
–त्या मोळबाक तेंकल्ल्या बुरुजांचो
उडास येताना
म्हज्ये मतीच्यो धारी
काळजाक अरनल्लीं
आकांतवादाचीं थालीं
शिंदतात

तवळ भितरल्यान –
फारिकपणाच्यो जिबो
तिळच्यो दिसतात
भुकेल्लीं पोटां आनी
फुडाराचीं सपणां विकल्ल्यो कुडि
जळच्यो दिसतात
स्वातंत्र्याच्ये राकणेखातीर
वरसुगेच्या मासा–दिसा
व्हारल्लीं रगतांचीं ल्हारां–
म्हजीं क्रोधाचीं पावलां
पोकोरन खाताना
हांव कोसाळतां –
घरतेक शेवटल्ल्या त्या बुरुजांवरी
आनी
मोळबाक तेंकल्लो क्रोध
रगतांच्या ल्हारांनी शमन जाता!

ओक्टोबर, 2001

# घेटे जांवचें 'जोगफोल्स'

आन्येक रात उदेल्या
व्हाळोन नाचोन वेच्या
सुडसुडीत,
हुमेदीन भरोन वोमतोंच्या
उदकाकय घेटे करच्या
आंकुडच्या हिंवाची!

ह्यो राती
म्हज्याच जिविताच्यो इश्टागती जोडुंक
तानेतात कित्याक?
म्हज्या जिवितांल्या 'जोगफोल्सा'चेर
तांका असोय
दोळो कित्याक?
येदोळच –
जिविताच्या फुडलद पांवड्यांचेर
म्हाका न्हाणयिल्ल्या–
म्हजीं 'राजा' आनी 'रोकेटा'क
पुसुन सोडल्ल्या
ह्ये रातीं लागीं
ही खंयच्या कुसडेपणाची हिंवसाण?

जिण्येच्या ह्या हुंबरार
'रोररा'च्ये मोवाळ वेंगेंत
म्होवाळ न्हाण न्हाताना
ताच्ये आदले सुडसुडायेंत
म्हज्ये कातीर फुलचीं फुलां
तांचो तो माट करचो परमळ
आनी हरयेक्ये पाकळेंतल्या तेलतेपणान
आंगवयले लोंवे लोंवेक
उबी करची कला
– सगळें मायाग जालां चिंताना
ह्ये रातिच्ये भिरांतेन कुलकुलतां

आनी त्या कुलकुल्या मधेंय
ताच्ये सुडुसुडायेची सकत
पाटीं हाडुंक
म्हजीं वस्तुरां निकळायतां
आनि न्हातां, सुशेगात न्हातां
ताका घेटो जांवक सोडीनासतां!

एप्रील,2002

# झुज

वाजपेयी आनी आडवाणिच्या कदेलांचो
एक पाय
आपल्या उतरांनी मोडून
मुशर्रफाच्ये मिलिटरी फवजेची
तोखणाय
करतां, भारताक बेंडुन
दाव्या हातान वाकोर धरुन
हो पाकिस्तानी केलसी
म्हज्या गळयालागचें खाड काडता!

पाकिस्तानी सोजेरांच्या हातांत
सांपडाल्ल्या
भारतीय सोजेराची कांप
म्हज्या शिरांनी!
खिणाक सोजेराचो आवतार जावन
गळो कापीत कोण्णा
म्हळी भिरांत!

रात इकरांकं तेंकल्या
सेलुनांत
आमच्या दोगांविणें तिसरो ना
दावो दोळो तिरसो करुन
सेलुनांतल्या आरशाभायर
जनेराच्या हिंवांतलो
निदोंक गेल्लो, दुबायांतलो
मारोग देखताना
कारगिल दोंग्रावयल्या कुलुकुल्यांतय
झुजल्ल्या सोजेरांबरी
गोमटयाच्यो काती
वाकोराच्ये धारिलागीं
झुजतात भोगता

हांव 'मलबारी' या 'मद्रासी'
तो विचारता
'मंगळूरी', म्हजी जाप
'आमचीं मिसायलां आतां
वयरथावन सकयलपासून
तुमच्या केरळाचीं सयत खिमां
करच्ये ताकतेचीं'
तों म्हज्ये गोमटेची कात
वोडन धरन उरल्लीं खाडाचीं
थोडीं मुळकाटां खरवटायता

'सगळें काशमीर आमचें
हो कंट्रोलाचो गीट वोडला देकुन
आकांतवादाचें पीट
फुगनासतां रावता?'
मदें मदें उर्दूंत
गाळी दीवन आसल्लो केलसी, एकानेक
'बुलशिट' म्हणोन
दार उगडोन भायर थिंपी थुकता

ओल्डस्पायसाचे थोडे थेंबे
म्हज्या गालांचेर पुसताना
जांवच्या हुलोपान
लाहोर सोल्ल्याचीं कोसाळल्लीं रुपां
म्हज्या दोळयां सामकार कुपां
जावन मांडतात

'आमी बोर्डरावयले मनीस
इंडियाच्या गुळयांक
आमचे संबंध तुटतात
काळजां फाळतात
आनी कुटमां कोसाळतात
तरी आमी
भिंयान निदनांव

आमी रगतांत न्हातांव
आनी हरयेका मनशासंबंधा मधेंय
उणयार एक्ये बोंदुकेक जागो दितांव
म्हज्या सात वरसांच्या
फातिमाचो अतमो
बोर्डराचेर पासायो मारता
आनी आमच्ये कुशीं उसळच्या
गुळियांची दिशा बदलिता
तशें आमी
भिरांतेविणें भोंवतांव'

धारुण लेकल्ल्या केल्सिचें
काळीज लोणियेबरी कडता
आनी दोळयातलें एक दूक
झडोन म्हज्या आंगार
पांगरल्ल्या वस्त्राचेर इरता
म्हज्या गालांचेर
'नीवीया क्रीम'माकताना
ताच्या तळाताभितर
कांपच्या शिरेंचो शिरशिरो
म्हज्या गालांच्ये कातीवयल्यान
चरोन काळजाक कसकसायता

हांव उटतां
आनी हरशेंच्याकय पांच थिराम
चडतीक भक्षीस दिताना
'शुक्रिया साहीब
बडी मेहरबानी आपकी'
तो म्हणता आनी भायर वेच्याक
दार उगतें करता

काळोकांतल्या दुबायांतल्या
रसत्यार चलोन वेताना
म्हज्या गालांक आपडतां

सकड साफ सफाय जालां
म्हळयाची खात्री करचे आदीं
रसत्या बगलेच्या रुकाचेर
सोजेरांचे कोण्णा
दोन आतमें
किडकिडचे आयकतात

म्हज्ये मतींत नव्यान
एक झुज सुरु जाता
आकेर नातल्लें झुज!

नवेंबर,2002

# रेंवेचे कण

हे कण रेंवेचे
सुके सुके सुटे सुटे
आयलो वारो, चुकलो थारो
सुरु जाले आटेविटे

एक कण अंत्रळाचेर
एक कण धरतेकोंडा
एक कण दर्या वोरलांत
कोण धांवता मेळोंक मिंडा

पावसा भिजलो वोता सुकलो
लिसांव आजून शिकलो ना
एकतारांच्ये मेळींत केदीं
मायामोगन ठिकलो ना

आमेरिकी वारें जालयार
गिर गिर गिरगिरायता
खंयच्यान उबचें खंयच्यान पडचें
खिणा खिणाक थरथरायता

त्यायी हव्यांत आसता उजो
दुसमान राय सुधामाचो
मात्यार मोचे सोजेरांचे
खिमां करतात तांचो भेजो

ब्रिटनाचें वारें जाल्यार
काळीज भरोन वोमतालें
तेला थेंबे पिळुन पितां
धरतेक परत्यान शेवटाले

इंडियाचें वारें तर
'अंडर वल्ड' करकरे
दुष्टा दाविदाक लागोन
आयकोंक पडतात पुरपुरे

रुशियाचें वारें मारल्यार
कुलो मणियेर उरना
थानां धनां कणां मानां
थारल्याकडे थारना

जरी व्हाळतीत वार्या शीरो
पाकिस्तानी धरतेच्यो
मुश –भुट्टो–शरीफ घोडयां
लाळी रोंबतीत मस्तेच्यो

हे कण रेंवेचे
सुके सुके एकटे सुटे
आयल्यार वारो, चुकता थारो
बुराक पडतीत आनकिटे !

मार्च,2003

# वेळेक पावल्लीं ल्हारां

(बेनेट, लोय्ड आनी जोर्जिचो उडास काडुन)

मरण पयस पाताळळां
वेंगोन धरुंक
दर्याच्ये वेळेभाशेन
आपलो इरादो कळयनासतां

हांकां तरी खंयची वोड
भरतेचे हे तरने प्रायेर
फटकिरे सोभायेच्या राकसाक मेळची
पयसारच पारकिनासतां ताची नाड ?

ल्हारांची नाच्ची हुमेद घेवन
दर्याच्ये विस्तारायेंतच उरते बावडे
दर्याथळांतलीं मोतियांच विंचते
संतोस पावते; उडकाणां घालते
तडीक कित्याक धांवले पाटीं पळेनासतां
पयशिल्यान उप्येवन आसच्या
हेरांक सांगनासतां

वेळेवयल्यान पिश्यार घालचें
संगीत वाजलें कांय?
दर्याच्ये वेंगेंत नाचतां नाचतां
उबगोण आयलीगाय?
ह्यो कांय तडीन घाल्ल्यो घाडी
या दर्यान मस्तेन केल्ल्यो आडी?

ल्हारांच्या दुकांचोच
दर्यो जाला आज
हरयेक्ये उडकेंत,
खिणाच्ये चालींत भिरांत
सुर्याचें न्हाण
न्हाल्ल्या तितली कांप

वेळ पुणी उरला कांय
    मोतियां विंचुन संपल्लीं नांत

कसबेच्या आनी वेळाच्या संघर्षांत
कुलकुलच्या ल्हारांचीं
    चिंतनां काणशिरताना
        तीच पाताळल्ली वेळ
बावळे विस्तारावन
    'येया, लागीं येया' म्हणोन
        आपंवचें आयकता !

माय, 2003

# तांबडीं आबोलीं

अबळीं आबेलाचीं आबोलीं
ताचो स्वास उबचे आदीं
धवीं दुधाबरी रंगतालीं
पापांच्या खतांविणें नाचतालीं
दोळयांक फेस्त कशें सोबतालीं
बोंडांच्या आस्त्रयांत धलतालीं

कायनांच्या कांट्यांनी ग्राशिता पासुन
पाकळयो पवित्र फापशिता पासुन
रगताच्या कोंडांत साणशिता पासुन

आतां तांणी पुनरजीव जोडला
आपणावन संसार व्यसनाचो
नवो वेस पांगरला सासणाचो
व्हारल्लीं रगतां हण्यांक लायल्यांत
देखतल्यांच्या दोळयांक तांबडीं थारल्यांत

माय, 2003

# वाट

ही माट पडल्ली वाट
पाट करन
साट सुमान सरले

नँशनल हायवेचेर धांवडांवच्या
टँकराबरी
हावें ही वाट गुडडायिल्ली
फिकिर नासतां
तवळ तवळ जेमेवन
खंय व्हरन पायता चिंतीनासतां
अनभोगाच्ये अस्कतकायेचीं टयरां फुटोन
राजरस्त्या बगलेच्ये झिरियेंनी
कितलेपावटीं टँकर परतल्लें ना?

वांचोन उरलां हांव
आंब्र वयल्या कुपां पोंदल्या
खंयच्याकि दिसनासच्ये
दयेच्ये शिरेक लागोन
शिरशिरतात शिरेंच्यो शिरो
परने वाटेक नियाळताना

आतां म्हजी वाट
हांवेंच कातरल्या
काकुळतीक बगलेक सारुन
बगलेच्या करडाक उजो दीवन
उबारायो खोंडुन
खंदकां पुरुन

म्हजी वाट हांवेंच रुता केल्या
रूंद न्हय आसयेत हायवे बरी
फिकिर ना
मुकल्यान दांटाता,
पाटल्यान आपटता
म्हळळयाची खंत ना

हांव एकलोच हे व्हाटेन
  म्हजेंच मिसांव
    म्हजेंच तेसांव
सवकास गेल्यारय परवा ना
  बोयलाच्ये गाडिये बरी
    शेवोटाच्या बंद्राक
      कुपां पोंदल्या चंद्राक
पांवचीं सपणां सपणांत सपणेवन
  चलोन आसां
    आत्तां पावतां, खिणान पावतां
      म्हळ्ळया धैरान शिरशिरनासतां

ज्यून,2003

# एच्चेम्माचीं उतरां चोरी केल्ल्याची कविता

उतरांक तुज्या भांगर मोल
चिंतलें थोडीं चोरयां
काळीज म्हजें जालां रितें
चिंतलें थोडीं भरयां

भरतां भरतां भरती आयली
पोळुन धांवली सुकती
उस्मडच्या कोंकणी काळजान
खिणान जोडली मुकती

एका उतरांत रंगाळ धोणु
एकांत नितळ झरी
एका उतरांत गाणें संगीत
एकांत नाचतात नारी

उतरा उतरांत उरबे उले
उलंवक लागत भेरो
म्हाका तरी सासणा सासणाक
कवी उरच्याक पुरो

दर्या थेंबे चोरल्यार कितें
दर्यो दुबळो जायना
उतरां तुजीं सगळे चोरुं
सुकचे तसलें कांय ना

जुलाय, 2003

# कदवळांतलो कवी

पेणेर घेवन वेळेर बसला
आमचो कोंकणी कवी
दर्यांतुलीं मोतियां विंचची
कोणेंकि दिल्या चावी

उदकांत पेणेर घालां मात्र
मेळ्ळीं शिंपियो करलां
आमाशेच्यो मेंजी कुरल्यो
मास तांचें इरलां

दुसर्यान पेणेर घालतां घालतां
जैत ल्हार मारलें
पेणेरांत खिणाभितर
कदवळ उदक भरलें

उदक जिरतां झळकेक आयले
सुके कापूर गोंडे
सांगोंक म्हाका नाका तरी
आसले तांतुं लेंडे

हरयेक पावटीं हार देकुन
रावयलोना सोध
परत्यान पेणेर बुडयताना
मेळ्ळो ताका 'निरोध'

उदेवाचेर गेल्लो आमचो
अस्तम पासुन गाळता
नासतां मोतीं, खिरला मतीं
आजून कुसड दाळता

पेणेर फकत पावना – रे
दर्यांत बुडोंक शीक
मोतियां गुंतुन कविता रचची
आपणायतलोय जीक!

आगोस्त, 2003

# उडास

तुज्या मरणांत मामा,
मरोन गेल्ले उडास जिवे जाले!

पयल्या कुमगाराखातीर
तुंवें घेवन दिल्ले मोचे शिरकावन
चलोंक कळनासतां
चलल्ले वाटेर –
आसल्ल्यो खंदकां– झिरियो
पुर्वल्यात आज!
आंगणांत थुकल्ली थिंपी सुकच्या आदीं
केशवाच्ये आंगडीपासून
बस्स सोडन धांवोन
क्रिकेटाचे स्कोर तुका सांगोंक
पिटो केल्ल्ये वाटेच्यो
एकय कुरवो झळकनांत !

बांयक बांदल्ले लाटे,
लाटयांक शिरकायिल्ले राझु,
मागीर उदक वोडचे हुमेदिचे
'आबेस–आर्या' खेळ,
ह्या खेळांनी सदांनीत भिजयिल्ल्यो
मोगरेच्यो वोळी
माडांचीं मुळां
आबोल्यांचीं आळीं
सगळीं भागोन गेल्लीं तळीं कशें
तळमळतात!

कुंदी–जायो–मोगर्यांक
धेडे जावन रावल्लें धडें
चोवतेच्या, अश्टमिच्या फेस्ता
कोणा कोंकुणल्यांच्या केसांक
परमळ वोंकुन आसल्लें वळेरुं

धरणिच्या खंयच्यां पाताळांत
पाळां रोंबंवक गेलां कोण जाणा!

आबोलीं तोपताना
बोटांच्यां पोंतांक तोपल्लीं
डोब्बाणां,
मागीर तिंच आबोलीं विकुन
मेळल्ल्यां पयशांनी
कोबाकुडको खावन संतोसल्लीं मनां
आज नागाक पोसल्ल्या बोणाभाशेन
विकारल्यांत कणां कणां !

पावसा वोळयाचे कळे चिंतुन
गिमांत सुकयिल्ले केंळब्यदोर
आनी चिरल्ली वावळी
गेणिच्या गाद्यांत चरल्ले वालिंची
आल्सांदेची मोवळी
आज खंय कोवळी जावन
बसल्यांत दाकयनासतां सावळी?

सगळे उडासांतले उडास
उडांसांत येताना
तूंय आज
उडास जावन गेलोय चिंतुन
मन उसमडता

इगर्ज आनी सिमिस्त्री मदले
वोणिंतल्यान
तुज्या घरा पावलां काडताना
आनी तुंवें विशेव घेंवच्या
फोंडाचेर
खंयंच्याकि भियान, आकांतान
दोळो तिरसो करुन चोयताना
त्या उडासांतल्या उडासांचें
पोंत

म्हाकायी लागीं जाल्ल्याची
जागवणी दिता !

तुज्या मरणांत मामा,
म्हज्या उडासांतल्या उडासांक
सांगाती एक उडास मेळ्ळा!

आगोस्त, 2003

# आमालांचीं वायनां

पियेताय तर पिये कोपां
  भरुन भरुन वायनांचीं
आड्डयांत न्हय, बारांत न्हय –
  बर्या मनाच्या मनशांचीं

बर्या मनाशांचे पळे दोळे
  मयपासांचीं म्हयमां
तांच्या हरयेक उतरांत आसात
  नशा दिंवचीं वायनां

तांच्यां मनांत मनांच मनां
  हुसको हरयेक मनां
बर्या फाल्या आमचेर वोतलीं
  पियेता तीं वायनां

बरे मनीस देवाबरीं
  मागनासतां दितात
तांच्या मोगार कोणय पडले
  खिणान भायर पडतात

पडल्यार पडों शरीर भायर
  जिवित दुबळें जायना
सासणाक गिरेस्त जांवच्याक पिये
  आमालांचीं वायनां

सप्टेंबर, 2003



# मोग

मोग म्हळयार उंडो कसो
हातांत धरल्यार पावता
कोणा कोणाक खांवचे आदींच
भुक लेगुन थांबता

मोग म्हळयार कांकणां बरी
पेटेंत सोभीत दिसता
जागरुत आसोन कितले पावटीं
हातांक घालतां फुटता

मोग म्हळयार सुकण्या बरी
कसल्योय वोंयों उडता
कोणा कोणाक पाकटयांविणें
गांव सोडचो पडता

मोग म्हळयार तंबा बरी
गरजेक आसरो दिता
केन्नां केन्नां वार्या वादाळाक
सगळें पुसुन व्हरता

मोग म्हळयार वाड कशी
मोगांत मरच्यांक मेळता
कोणाचें कितलें असल हांतुं
मोग केल्ल्यांकच कळता!

सप्टेंबर, 2003

# गझल

सुखाच्ये भरतेंत, दुकांच्ये सुकतेंत, मेळत रास मयपास
राशिंतलें कुसकुट पोटलूंक गेल्यार गळ्याक पास मयपास

भिकारी एकलो पेजेच्या निसा भोंवतालों घरान घरा
मेळताले ताका शिराप सोवे, सुण्यांक मास मयपास

सोनारा लागीं पेटुंक सोनें दितालीं गांवचीं बायलां
पेटताना सोनार खातालो थोडें, जळवन खास मयपास

पुरासाणेन दिसाच्ये गजडेर निदोंक वेतां सुर्यो
तळमळच्या संस्राक म्हणालो मागोन, एक दीस लास मयपास

सारवन लोणी दिल्यार उंडो मोगान म्होंवच गळता
दुबळ्यान दिलो कण्यारो कुंडो खिणान नास मयपास

तुजोगो हुसको काळजान पोसको केला–गो म्हज्ये राणिये
सासणाच्या सासणा तुजेर वोत्तां म्हजोच स्वास मयपास

सप्टेंबर, 2003

# हायकू

1.

देकतां बाये कडवळ
तुजें; मन जालें-मू म्हजें कदवळ
सासणाक जालों मडवळ

2.

कापी दितां बायलेक सांगी
चावलीन आसोंदी सदां निरमळ
आतां साबाचोच परमल

3.

मनीस एकलो चाबलो
सुण्या; खिणान सुण्या वचोंक सोडलें
हाका सांखळेन बांदलें

4.

तेग येंव या तीस जण
तिणें रांदचें अरधोच किलो मास
भरशीक बटाटयांची रास

5.

पोटा नासतां तो मेलो
मरणा मिसा आमकां व्हडलो
मीटपफ एक फावो जालो

6.

खालतो भोळो देव मेलो
आनी सर्वय लोकाक खिणा भितर
देंवचाराचो उडास ना जालो

सप्टेंबर, 2003

